


देवांची बोली, मनशांची भास
कोंकणी भास !
केन्ना उदक, केन्ना उजो
कोंकणीचो शब्द म्हजो.
केन्ना घुमट केन्ना धोल
कोंकणी बोल.
केन्ना फूल, केन्ना फातर
कोंकणी उतर.
केन्ना मांडे–धुलपदां
कोंकणी पदां
केन्ना व्हियोल, केन्ना गितार
कोंकणी कांतार,
केन्ना किर्ण, केन्ना कीट
कोंकणी गीत
केन्ना चंवर, केन्ना भालो
कोंकणी उलो.

मनोहरराय सरदेसाय

ग्रीष्म
मे/जून १९८६
२ रुपया

वर्स : चार अंक : तीन ग्रीष्म अंक मे/जून १९८६




कवितेचें कोंकणी द्वैमासीक

संपादक : **पुंडलीक नारायण नायक**

मुखपृष्ठ : **श्रीधर कामत बांबोळकार**

छापपी आनी उजवाडावपी : **नारायण वादोळकार**

कुळागर प्रकाशन, पो. बॉ. नं. ७८, मडगांव (गोंय) ४०३ ६०१

छापणावळ : **हिरू नारायण नायक, अपुरबाय प्रिंटर्स,** वळवय गोंय.

संपादकाचो पत्तो : पुंडलीक नारायण नायक
वळवय, सावय-वेरें, फोंडें (गोंय) ४०३ ४०१

**अंकाचें मोल : २ रुपया वर्सूकी पटी : (विशेशांकासयत) १२ रुपया**

## मांडावळ

खूब खूब वर्सां आदीं
कोंसळ्ळें अेक अरिश्ट
अेके अस्तुरेच्या माथ्यार
कच्या—बुच्या बाळकांक मारून खावयांत
झळपेली जाणटेली दिशांतरा
अेक बाळक हांगां, अेक थंय
अेक कितलें पयस, नदर पावना थंय

दर्यातटार बसून मायेन
कितलीं दुकां गाळ्ळीं
दुका दुका कणकणी, फुलां फुलां जालीं

मायेच्या बाळकांचे आतां
अदीं—मदीं जोमे भरतात
मायेच्या अुगडासान दुकां -झरी पाझरतात
दुका दुका कणकणी, फुलां फुलां जातात

दोळ्यांतल्यान गळपी दुकांचो जल्म
काळजांतल्यान जाता,
तेन्नाच असलो चमत्कार घडटा

मायेच्या दुकांची असली काणी
तुजी कोंकणी . . . म्हजी कोंकणी

## काळजाची उतरां

काळजाची उतरां।आयलीं उमाळचान
मोती शिपेंतल्यान । भायर जशीं

उतरां निर्मळ । मन म्हजें उक्तें
फुल्लेले गा निक्तें । फूल जशें

हातून ना कुंडो । मेळचें ना गा पोल
सोलूनच सोल । दवरलेलें

पैल्या पावसाचो । धर्तरेचो श्वास
जावन माते वास । येता हांगा

दर्याच्या गाजेचो । आसा हांगा छंद
कल्पनांक बंद । मळबाचो

पुनवेच्या उदकाक । उचंबळ चड
जीवघेवणी ओड । चंद्रिमाची

तशी म्हजी आस्त । तुज्या चैतन्याचो
स्पर्श तांका जावचो । परीसाचो

## बावली

काळखाची बावली
काळखांत शेणली;
उजवाडाच्या रानांत
राखण्याक गावली. . .

वेंतभर बावली
राखण्यान धल्ली;
उजवाडाचे धारेर
मोखून माल्ली . .

काळखाची बावली. . .

## निष्ठा

फुल्लां हाडि, फुल्लां गांति, फुल्लांमाळेन तोरण बान्दि
मोगरें हाडि, शेवतें हाडि, पत्माक्ष हाडि
सज वर्णाचेंय अबोलें हाडि
तांबडें हाडि, नीळ हाडि, हळदूवें हाडि, धवें हाडि
माळा गांती, तोरण बान्दि–
दिवलि हाडि, दिवलि धूय
दिवलेन्त तेल वाति घालि –

हांगा तोरण
हांगा पाचूवें तोरण
        तांबीडें तोरण
        हळदूवें तोरण
भांगा तोरण
        नीळ तोरण
        धवें तोरण
        तांबीडें तोरण
हांगा तोरण, थांगा तोरण
अंब्या पाना तोरण थांगा बान्दिरे
दिवटि हाडि लुगट वेंडावनु तेल घालनु जळयाय
हांगा दिवटि थांगा दिवटि
राम यो रे, कृष्ण यो रे, परशुराम मुकार राब रे,
लक्ष्मणां तूं दिवटि धरी,
तेला कोणुर्ल अर्जुन धरी,
दिवलेंत कोण तेल घालता ?
तेल न्हय रे; तूप घाली –.

दारूव हाडि
कोतन्यांत भरि
सांगूचे वेळार उजो लाय
अतां न्हय रे, अतां न्हय
सांगूचे वेळार उजो लाय –

पेंपरीं वाज रे
घोल मार रे
दोनीय एकच ताळार वाज रे

पी पी वाजूचे चल्या मात्यार एक टुकळी दी रे–
करपूर घेवंचाक गेलेलो गोपाळु परतून पावलो रे ?
यो रे गोपाळा, बेगीं यो रे,
गोपरावयले दिवलेंत वाति लाय रे –
( तेल फारल्यार तेल मेळता
नारल फारल्यार नारल मेळता
फूल फारल्यार फूल मेळता
दुडु फारल्यार दुडु मेळता
फारता तशी मेळता राबता – )

तोरण बेगीं बान्दून यो रे,
दिवली सग लावनु यो रे,
दिवटि सग घरनु राब रे,
कोतनो सांगूचे वेळार मार रे –

अशि उत्साहान
गांवां सगट एकडे जाताय
अशि उत्साहान उत्सव करूक
अतां माका कसो उत्सव ?
हांव नेणताणा कितें हो उत्सव ? कित्याकउत्सव ?

देव निमगीता जनालागि –

कितें रे भटा, कितें रे बाळा,
तोरण बन्दताय, दिवलि लायताय,
दिवटि काडताय कोतनो मारताय
कित्याक रे भटा. . . . ?

" नेण व्हय देवा, स्वामी येताय
अतां. . . अतां. . . अंता पांवताय. .... "

तोंड करपून,
दोळे धांपून,
देव सांगता :
" पायसा पूजा दनपारां,
दनपारां पूजा मदराती,
मंगळार्ती फायचे फांत्यारी,
आनी खाण न्हाण
तांका दिसचे वेळांरी
हांव फूट उपाशी ! ! !

## झूंड

आज झूंड
आपल्या बळाचेर
अेका अेकोड्याक
बागोवंक पळेता
अन्याय आज
चारय वाटांनी
मनशाक वेस्टिता
थंड किरांव जाल्लें
ताजें रगत
आज तापून अुसळना
सिनेमाच्या आनी टि. व्हि. च्या
नकली संसारांतच
तें गूल्ल जालां.

विखाळो वारोय
हजारांनीं मनशांक
खिणा मजगतीं
मारून उडयता
आमच्या दोळ्यांचेर
आज झांपड आयल्या
तांचें दु:ख
आमकां बाधना
तांचें व्यथेन
आमचें काळीज फुटना
अितली कात आतां
वातडेल्या
मन भेरेलां.

अगेलास्त्रां
जीव घेवपाक
मांडून बसल्यांत
मरण चुकपाचेंच ना
सर्वनाशाची जाण
आज सगळ्यांकच जाल्या
भिजूड म्हणून जियोवच्यापरस
शूर म्हणून मरप
होच मार्ग आता अुल्ला ?

## करणांतलीं पौनां

नाग कुळावी राखित रावला
सूगुर्व्यांचीं पूर्विल रतनां

हीं उतरां करणांतलीं पौनां–
भग भग उज्यार गोटो शिजना
हुलपायती जाळांचीं केणां
घरच्याय कल्परूखां कल्याणां

हीं उतरां करणांतलीं पौनां–
वेद उलयलीं तापस मौनां
हड्डी जावचीं तांबडीं खोन्ना
तापिन जांचे फुलार अन्नां

हीं उतरां करणांतलीं पौनां–
भूमि पुजे घामाचीं दानां
फाळांपरि झर–झरतां येवंची
जिणेक तीकी पिकैत सपनां

हीं उतरां करणांतलीं पौनां–
दह्ना अंतीं धुंवती कवनां
मर्ण येवं जशि वाड्टां वाड्टां
आप्शीं झड्टा वात पेट्टना

हीं उतरां करणांतलीं पौनां–

## किसरां

आसले आमी थंड किरांव
काळे काळे कोळशे कशे
कोणेंतरी आमच्या आंगार
उज्या–कीट उडयली
भगभगीत, धगधगीत
इंगळे जाले
उजवाडान भरून गेले
आतां अशे सोंप मेरेन
जळत, जळत रावंचेले

□

कोगूळ आपलीं पिलां
कावळचाच्या घोंटेरांत
दवरता
देखून तो इतलो बरो गाता ?

□

आमी सगलीं सांजवेळच्या
सांवळचाचीं चित्रां
कांय बेगीन वेतात
कांय उसरां.

□

ते म्हाका म्हण्टात
" हो खंयच्याच गावांक
पावलो ना "
हांव चलतालो चलपाक
न्हंय पावपाक
हें तांकां खबर ना

वेतनां तुवें म्हळें " येता "
आनी आतां
तुजी वाट पळेत रावतां



हांव येतलो म्हणून
एक, एक साज घालून
सोबीत जाली
हांव आयलों तेन्ना
एक, एक साज काडून
उक्ती जाली



मनान काळजाक सांगलें
" तिजो मोग करूं नाका "
काळजान मनाक म्हळें :
" काळजाचें मन कळना तुका. "



हातार उदक पडून
बोटांतल्यान झिरपता
तशी तूं म्हाका मेळना
आनी मेळटा.



तुका आदीं उम्यानीं
चोखली
आतां दुकांनी
जोखतां.



तूं म्हजी जाली आनी आतां
हांवूच म्हाका चड लागचोसो
दिसता

## कळना माका हासका कि रडका ?

दिल्लेलें देणे जाल्लें ऊणे
म्हळ्ळेले तप्पाक दीस राति खोंचतात
मेळ्ळेल्यां लागि मेच्चाचें मात्र न्हंय
हाळ्ळेले सुन्नेक जीवंत लासतात
कळना माका हासका कि रडका ?

पक्षा चिन्ह लाव्नु कपलाक
पक्षा बलारि चुनावण जिकतात
तक्षण  तरि तो अधिकार मेळनि
पक्षांतराकयि मागशि सरनात
कळना माका हासका कि रडका ?

केरि बसवाक धारेन अभिषेकु
करि करि उदाक तांडतात
भारि तान्नीन आय्यिले भिक्षुकू
दोरि घेवनु मारूक वतात
कळना माका हासका कि रडका ?

होड्डाले चेलिये निश्चय तांबूल
होड्डु मट्टारि गौजेन चलता
दुड्डु नात्तिले गरीबालि चेंल्लि
काड्डि जावनु धरल्यागि सुकता
कळना माका हासका कि रडका ?

खेल्लेलें पिल्लेलें ज्यास्ती जावनु
होळ्ळ्याचालो पूतु हांतळारि ओंकता
मेळ्ळेलें मागचें म्हारा पोर
पळ्ळेलें उष्टचा पान लेंवता
कळना माका हासका कि रडका ?

हातु धरलेलि मोगा बाय्ल
भूत जावनु मिष्टानु खात्ता
नीतिशून्य म्हणु लेक्किलि चेडि
शीत खाण दीवनु राकता
कळना माका हासका कि रडका ?

## अुजवाडाचें मूळ

घाले म्हाका कोणे
अंतरांत साद
तुजी हांबेता याद
पैसुल्ल्यान.

कितलें अटंग रान
म्हजें सांडिल्लें मन
तुजे घराची खूण
सांपडना.

सोदलो तुका सगळो
तुजें गावना कूळ
अुजवाडाचें मूळ
खणूं कशें ?

## जिणयेची धग

जिणये धगींत लासोन गेला
जीव गो तुजो
हर सुख सोंतोस मोग भरवसो
काळजांतुलो
उर्लों कितें ? उडास पाटले
कोडसाणेचे !
आनी दोळयांत दुखां !
बुडतुगोल जिणयेचे !

## म्हजे सांगाती

सुख दुख म्हजें विचारतेले
आयले, गेले
उल्लासाचीं खिणां थोडीं
वांटून गेले
चित्ता मात उरलीं म्हाका
घोसूंक चोवीस वोरां !
जसें खळमीत नास्तां मारतात
दर्या तडीक ल्हारां

## कोडसाणेंत गोडसाण

काजरा रूकारा गोडशा फळाक
आपेकसुंच्या पिशा !
पात्कां–फळां भोरोन गेल्ल्या
काळजाची चोय दशा !
म्हळें काळीज नितळ कर तूं
तेदना तुका
कोडसाणेंती गोडसाण मेळात
हर एक रूकार !

## भरवसो

हर एक काळच्या कुपा पोंदा
रूप्या देग उजळटा !
हर एक सुरंगाच्या पोंता
उज्वाड–सो झळकाता !
निरासेच्या काळोकाचो
पडदो चीर्न
उदेवन आयलां भरवस्याचें
फांत्या–कीर्ण !

१.

**पोपायो**

एके पोपायेक
शेंबर बियो
सगळ्यो जरूय किल्लाल्यो
देकता तिंगा मात्याक लागो
पोपायोच पोपयो
गालांक लागो, वोटांक लागो
पोपायोच पोपायो

तशें म्हज्या फळत्या मनीं
रास रास जलमतात
कवितेच्यो बाळ बियो
खिणा खिणा उबजातात
सगळ्यो जरूय किल्लाल्यो
अचयेंच घट्टलें
आंगपांग पेट्टलें
फिरगीं पिशें सुट्टलें
अंतराळाच्या शिरांशिरां
शिमटी नेकेत्र झडटलें
पोरनें गुमट फुट्टल्लें
नाचपीण आंग मोडटलें
पायांतुले पांयजण
कसकसून तुट्टलें
मस्तें मस्तक आट्टलें
आळशी रगत कट्टलें
मांडवीच्या ल्हारांचेर
मस्तें वादळ उट्टलें
उतर ताळ्याक भेट्टलें
मोबाळ उल्यांक वोडटलें
कवितेंच्या आंब्यारसान
सगळें गोंय बुडटलें

एके पोपायेंक
शेंबर बियो
सगळचो जरूय किल्लाल्यो
देकता तिंगा मात्याक लागो
पोपायोच पोपायो
गालाक लागो, वोटांक लागो
पोपायोच पोपायो

२.

## ताळये ताळी

त्याय दिसा वडा रूका जैती कूड रडली
ताळयेन ताळी उडली चानी मळबालागीं जोडली

पावलां पावली पाताळा हालोंक धलोंक जमलेंना
दावलां धावली अतराळा आकासांत सोंबलीं ना
बोटायेदी चानी जशी खांदार म्हज्या चडली
ताळयेन ताळी उडली चानी मळबालागीं जोडली

कोडशें दुखां फातरेलीं पोल्यांवयल्यान जळ्ळींना
केंडां गोबरांत मुरमुरलीं मेकळीं सकलीं जळ्ळींना
करूं कशें रूदान म्हजें जिबली ताळचांत वोडली
ताळयेन ताळी उडली चानी मळबालागी जोडली

सुकणी यादी सदांनी घोटेर बांदून रावलीं
तकलेचेरी थाप्यांनी म्हेळप करून धांवली
सांगात म्हज्या नशीबाची मोडकी कोणे फोडली ?
ताळयेन ताळीं उडली चानी मळबालागीं जोडलीं

३.

## दर्याक उजो पेटला

सुशेगाच्या आमच्या गांवांत
आज आकांत सुटला
काळजाक घाम फुटला
एकूच बोवाळ उटला
दर्याक अुजो पेटला

दोतोर सायब, वकील सायब
मंत्री सायब, तंत्री सायब
पादरी सायब, बीप सायब
मार्किटांतलो मटन सायब
थरथऱ्यांनी आटला

मादरी बाय, व्हडली बाय
आफिसांतली आपुट बाय
मुकरी बाय, मिस्तिर्पा बाय
आड पडला हांचो पाय
घागऱ्या–नाडो तुटला

आकांताक वोडकोना
पेंकटार तांच्या कुडको ना
गांवचो सुशेग लुटला
आज आकांत सुटला
एकूच बोवाळ उटला
दर्याक अुजो पेटला

हांवगा कोण कडचें मेण
गांवाक सांगूक भयावीण
जळटा जीण करतीत म्हण
सायब–सायबीण राग शीण
रगता शेळेर आटला

दर्याक अुजो पेटानांगा
सांगूंक उतर सुटानांगा
तरी तांच्या आगट्याफुडें
म्हजो धुंवर उटानांगा
देकून मोणको घोटला
राजांव पेल्यान लोटला
अतमो पिर्गंत सुटला
दर्याक अुजो पेटला

सोसचें पुन्यान पुरें सोसलां
आतां दर्याविळेर बसलां
शितिद तासलां, सैराण लासलां
मनांत मेकळें चिंतप पोसलां

वखदा उंडो वाटला :
रडून रडून रडून रडून
दोळ्यांतुली दुखां तांडून
दर्या मात्यार वोततां वोततां
दर्या उजो पालवूंक सोदतां
सायबा बाबा, सायबीण माना
म्हणूं नाका मनां मनां

फिरकीस आमकां भेटला
दुबाव तुमकां उटला ?
काळजाक घाम फुटला
दर्याक उजो पेटला !

# तीन कविता

रमेश भगवंत वेळुस्कार रायबरेली

१.

काळ भोंवता
कळांनीं
हिगा थिगा
थळांनीं
केन्ना कुपां
केन्ना पावस
ओथांबेता
जळांनीं

आंकरेता
धर्तरी
सया नेई
दिकांनी
उल्हसता
काळ हांगा
फळां–फुलां
पिकानी

शेतां भाटां
येता भारार
फुलता मना
धिरानी
होतो म्हजें
खाता म्हणून
राग चडटा
शिरांनी

कोण केळयता
हें सगळें
वेगळचा वेगळचा
दळांनी
कळच्यो कशो
कळा हांगा
मळबा पोंदा
शाळांनी

मळबा पोंदा
शाळा अशो
दिगंताच्या कुळानीं
गच्च गजाली रे
हांगा
अक्षयाच्या मुळांनीं

कितल्यो मनीस
कुळयो आसा
कितल्यो संस्कृतायो
आसा
सगळचां जाणार
जगपाची
तनरदार
धास आसा

जणेकल्याक
कल्पनांची
सकाळ आनी
सांज आसा
जणेकले
सकाळ सांजेक
दु:ख आनी
सुख आसा
तरी काळा–कळांक
दिसता
सगळयो शाळा
थोडयो आसा

काळा–कळांक
कितलीं रूपां
जशीं वडाक
पाळां–झोंपां

काळ भोंवता
कळानी
हिंगा–थिंगा
थळानी
वाव शिरंतरांत
भरून
सोडटा धाय
दिकांनी

कितले जाता
अर्थ–उदेव
शिडा शिडा
कणकणी
कितले अुरता
अर्थ धांपून
मनीस तांच्यो
खणखणी

काळा कशें
कळणा तुका
दिवची तुजी
तांका सांसाय
कृष्ण गेला
कर्म सांगून
तरी हांगा
रूजता पिसाय

काळ भोंवता
कळांनीं
हिंगा थिंगा
थळांनी...

२.

## अशी आमोरी शिमोरी

अशी आमोरी शिमोरी
अेक काळ–सांवळण
माथ्यार अुज्वाड दुधाची
बिंदली गवळण
जाय सांज–सांवळण

काळ–सांवळण
तिचे परतीचे पांय
सल्लां अुज्वाडाचें धंय
आतां,
चित्त कन्हैयाचे ठांय

काळ–सांवळण
तिची दिश्ट मळबण
धंय कन्हैयाचे गण
सोदी कृष्ण कृष्ण कृष्ण
श्वास सांवळयांचे अुष्ण
पळोवन काळ–सांवळण

काळ–सांवळण
चुकल्या शेवण्याचे तिच्या
पायांक पांयजण
गरयत कृष्ण खीण खीण
वयता काळ–सांवळण
अशी सांज–सांवळण

३.

## हुंवाराची हुरी

हुंवाराची हुरी
जाय धाय दिकांनी
कोणा कोणाचेर धुरी
अशी ल्हार हुरहुरी. . .

हुंवाराची हुरी
न्हुरे पनेळाचे परी
पाणी पाणयांचे खरी
वारो मळबाचे वरी. . .

हुंवाराची हुरी
अुमेदिक शिरशिरी
धेंव वाऱ्याकडें धिरी
धरूं धर्तरेक शिरीं. . .

हुंवाराची हुरी
म्हजे मातयेची हरी
रोऊं सुर्याकय दारीं
पाऊं चैतन्याचे तिरीं
अशी हुंवाराची हुरी
म्हज्या हुंवाराची हुरी . . .

## निराप्रादी

तुजे रेंवेंर म्हजीं पावलां
अशीं कशीं पुसून गेलीं ?
" मस्ती तांची जांवच्ये आदीं
म्हजे वेंगेंत बुडोन मेलीं '

तुज्या कागदार म्हजीं तारां
अशीं कशीं जमो जालीं ?
मळबार निदून आयली अुबगोण
कागदाक म्हज्या पिशीं जालीं '

तुज्या दिव्यान म्हजो अुजवाड
असो कसो झोंपय मारलो ?
' करपोन तुवें वेचें चिंतून
दिव्यालागीं भेस जोडलो '

तुज्या जाळांत म्हजी मासळी
अशी कशी शिरकोन गेली ?
' तुज्या अुदकांत आसलें झगडें
जाळांत दिसल्यो सर्गाक वाली '

तुजे मतींत म्हजे अुले
अशे कशे खुरसार मेले ?
' गोमटयाक बांदली मांयन घांट
तिच्या नादाक विरून गेले '

## घांट

ढण ढण वाजता घांट
धरतात जनां देवळा वाट
म्हणता भजन स्तवन कीर्तन
होडान होडान ताळो पिन्दून.
एकल्याक एकलो चोयता, ताजें
नामां आंकडो काडता;
जानूव्याचे पोड मोयता
कास मारला कि ना म्हणु चोयता.
तीर्थ प्रसाद भटमाम दिता
ताट्चावेली कमाय देकता.
चेल्यो चोयतात देवाक अशाण
चेल्या तोण्डां दोळ्या तशाण
'फाय माका माळा घालूक
कोण जायत दोळो मारूंक'
घांट वाजतां घांट वाजतां
देवाळांतली पूजा जाता
फोडदो घालनु देवाक दितात
तोच प्रसाद जनांक वांटतात
समराधनेक बसतात लोक
पान चोवनु काडतात ढेंक
घरच घशी जिबेर येता
देवळा पायसु गोडू दिसता
परसून वतात होड पोट
ढण ढण वाजता घांट
नडो धांपून भटमाम देवता
देव भितर पाप कुर्वता
जनांक लागली कसली घांट
हासता हासता लांबता घांट

## गजल

सांग मोगा ओंवळ कशें केन्ना फुलतलें
मोगान म्हज्या परमळ कशें केन्ना भुलतलें

झडला शितोड जांबळीरूखा जांबळां भार
पोशांत म्हज्या म्हांव कशें केन्ना गळटलें

पिकलो रानां हांसोळ हांसलो पांचव्या पानां
पांचवो सैम रान कशें केन्ना रंगतलें

धांवतो पावस अिंद्रधनू मळबा वेंगेत
मांडयेर म्हजे राणी कशें केन्ना बसतलें

चंद्रीम हो रूप्या गुळो तुजो भांगतिळो
वेंगेत म्हजे चान्ने कशें केन्ना लजतलें

वाऱ्या सांगात रूखावेले झलते वाली बेल
वाल म्हजी आयणो कशें केन्ना धोलतलें

बिरी–बिरी पावस पानां–पानां पावळी
आटलां मन न्हंय कशें केन्ना भरतलें

खरशे मोगा वोत जळटे जाळ काळजा
धग म्हजो सुर्या कशें केन्ना जळटलें

## कविता

फातर मारप,
हो म्हजो छंद,
तीर धरून मारीना,
तो मेरेन
जिवीत हे धूंद !



आमीं ‘त्या’ तळपार बसतना
केन्नाकेन्नाय,
करकिरो रडत अुडटालो
तिची याद जाली
. . . . . . . . . . . .
आयज,
जिवीत सामकेच किरकिरें जालां !



विख चडटा तेन्ना
मनीस काळो रूद्र जाता,
तीच ताच्या
मरणाची खूण !
आता म्हाका पळोवन
काळो रूद्र जावपी मनीस
ताका कसो सांगू हांव
तुका विख चडटा म्हूण ?

## डॉ. अेस. अेन. देसायाच्या दवाखान्यांत

डॉ. अेस. अेन. देसाय, कार्डीवोलो जिस्ट
हांच्या दवाखान्यांत भितर सरतकच
वण्टीर दिसता लायिल्लें सोबीत चित्र
कुरूक्षेत्रार दोनूय पंगडांच्या गर्देंत
रथांत बसून
अर्जुनाक अुपदेश करपी श्रीकृष्णाचें

हें चित्र पळयत रावतकच
आपुणूच तकलेंत
गीतेतलें फुडले विचार घोळपाक लागतात :

" जिणेच्या रणांगणांत
आसा सगळ्यांक मरचेलें
नाती–गोतींचे नाटक सगळें
हांगाच तोडून वच्चेलें
हुस्को खेद कित्याक पुता
जावपाचें तें जातलें. "

अशें हें चित्र
दोतोराच्या दवाखान्यांत कित्याक ?
ह्या विचारानीं हांव
तांच्या तपास–रूमांत भितर सरता
तेन्ना दोतोर देसाय म्हाका
कुरूक्षेत्रार अुपदेश करपी
श्रीकृष्ण कसो दिसता

## तो न्हिदूंक ना

आरे,
ताका असो धोलयता कित्याक ?
तो अुठचोना,
तुजो जिव मात खर्शेतलो.

आरे बापया, तो न्हिदूंक ना
ताणे हिन्देचें सवंग घेतलां
तुवे कितलोय धोलयलो म्हुण
तो अुठपाचो ना.

तुका न्हिदिल्यांक अुठवपाचेंच
आसा जाल्यार, हे पळय,
सर्वळेन कितलेशेच जाण बाबडे
खऱ्यांनीच सूस्त न्हिदून पडल्यात,
चल, तांकां वचून अुठय.

हाका अुठवपाचे भानगडींत तू पडूं नाका.
मातशो आरती जांव दी.
दोण्याचें ताट भायर येंव दी
मागीर पळय, अुट्टा काय ना तो फडफडीत.

आरे बापया,
तुका खबर ना.
सगळ्यांआदीं दोणो घेवन
तोच पयलो पशार जातलो.

## माका कळना तेंच

देवा,
भांगरान तुका लिपयताय
घुसमुट भारी दिताय
दोळे तुजें बान्दीताय
आनी भांगर तुगेलें लिपयताय !
लेकताय तुका कुरडो
लेकताय तुका मोनो
आनी करताय ते घातकायो !

हांव जाणा,
तू कुरडो न्हय
आनी मोनो न्हय.
सत्‌गुणियांले उतरांतुल्यान
तूंच उलयता !
तोवळ
तूं मोनो दिसना
समदृकांले दोळयांतुल्यान
तूंच चोयता !
तोवळ
तूं कुरडो दिसना
जल्यारीय ते लेकताय
तूं कुरडो
तूं मोनो.
आनी करताय घातकायो
निर्भय !

माका कळता
न्हय तूं कुरडो
न्हय तूं मोनो
जल्यार राया—
माका कळना तेंच
सहन तुका हें जाता कशी ?

## वाटोळी

अशीच अेक वाटोळी,
अेका अज्रंवर उद्गाराक
चेपून थेवन आयली तशी
तुफानांचेंच बळगें समजून
सगलें आसमंतूच नवे अुर्बेन अुठलें.
वांगडा धुल्लाची धुळवट,
रस्ताद कागदां, कोयर–पोतरो
सगलेंच गोल–गोल नाचत पेंगत
वाटोळे फाटल्यान धावलें
चेपिल्लो उद्गार !
शांत, स्थिर, स्थितप्रज्ञ.
आपल्याच आत्म्याकडेन कान लावन !
वाटोळीच ती;
आयली तशी सगल्यांचेंच वाटोळें करून
थेयथेय घालून गेली.
आनी फाटलें लांव–लूत–भूत
खर्शेवन, निर्शेवन जळा–मळा शिंपडलें.
उद्गार; नव्या जोमान अुठलो. चेंपणांतल्यान.
आनी धुल्लान कुडुयल्ल्या सैमांक
न्हाणयत– धुयत चराचराक सादैयत रावलो
" दिस उदेला आतां तरी अुठात.
नव्या मनूंक येवकार दिवंक. "

## फूल अेका पोरसांतलें

अचकित फांत्या पारार
त्या मंद–धुंद अशा परमळान
म्हाका जाग आयली
हांवे जनेल उगडलें,
पळेलें, आमच्या पोरसांत अेक सोबीत
सुंदर फुल धोलतालें
हांव धांवत फुलाम्हऱ्यान गेलें
ताणे विचाल्लें,
वळखलें म्हाका ? हांवूच तें काल तुकां मेळील्लें.
म्हाका तुज्या मनातलें कळ्ळें म्हुण हांव
वाऱ्यावांगडा धांवत आयलें.
म्हाका याद जाली,
कालूच त्या सोबीत फुलान म्हाका पिशें केल्लें,
पुण तें आसलें दुसऱ्याच्या पोरसांत
ताका हात लावपाचो म्हाका कसलो अधिकार ?
पुण ताज्या सोबीत रुपान, मनभुलायण्या परमळान
हांव पिशें जाल्लें.
तेन्नाच म्हज्या मनांत आयिल्लें,
हाका हांवे म्हज्या पोरसान व्हेलें जाल्यार ! म्हजें पोरसूं सोबपाचें
कसलो विचार चल्ला ? फुलान मदींच विचाल्लें.
हांव आयिल्लें तुकां आवडुना ? थंय म्हजी तोखणाय
अपुरबाय कोणांक ना, बाकीच्या फुलावांगडा हांवुय बी अेक.
हांव तुज्याम्हऱ्यान रावतलें,
तुजेखातीर म्हजी अेक अेक पाकळी झडोवन
हांव तुजे जीणेन परमळ हाडटलें
हांवे म्हळें, " तूं पीशें. हांव तुकां कितलो तेप म्हुण
उदकान घालून दवरतलें ? तूं सुकलें, बावलें, जाल्यार ?
तूं तुज्या जाग्यार चल.
तुजो परमळ थंयच्यानूच म्हाका दी. हांव तुका
मायेच्या उदकान शिंपीन. तुका फुलतना
पळोवन धादोस जायन.
हांवे जड काळजान ताका निरोप दिलो
घरांत आयलें, ताजो परमळ घरभर पसल्लेलो.

**श्रीधर कामत** मडगांव

## ताच्या धर्मग्रंथाचो अर्थ ताणीच लायलो

तांच्यां धर्मग्रंथाचो अर्थ ताणीच लायलो
तांच्या अश्वमेधाच्या घोड्यानी नांगर भोंवडायलो –
ती घरां आमच्या लोकांची न्हय तर कोणाची आसतली ?
तांच्या जैतान धुंद जावन दर्याची ल्हारांय मळबाक तेकली
– अशे जेन्ना ताणी सांगले
तेन्ना धोल बडोंवंक लोकानी फाटीफुडे पळेलें ना.
अितले आसूनय
ताणी सांगिल्ली हरेक गजाल आमच्या जाणटेल्यानी आयकली
– म्हणून आमींय कित्याक गा आयकुची ?
म्हणजे,
आमच्योय मुठी आता वळूंक लागल्यात.

**नीला तेलंग** फोंडें

## दुख

पेटयली जिती चिता
तरी जाली ना चिंता.
तूं शियान कुडकुडटा
ते म्हाकाय कळटा.

घळ्ळ करून दुख दंवता
तें कित्याकशें दिसता ?
सरणार त्या धगधगत्या
तूं शिगार शिलगायता ?

गायत गायत नाचतना
सैम सूर मेळटले
जिणेत तुज्या रिगतना
मोगान भरून रकतले

दर्यो गायत आसतना
ल्हारां ताल धरतलीं
व्हडें ताणटां–ताणटां आमीं
पलतडीन पावतलीं

रूखापोंदा बसून पळे
रसाळ भास फुलतली
शिरंतरां जागोवन आमी
घासान घास मेळयतलीं

चान्न्याचो येतलो शिंवर
धर्तरेर खेळटलो
किर्णानी फांतोडेच्या
मोगा साद घालतलो

## गोरी भावली

गोरी भावली
काळी सावली
सावले माकशी
दुड्दुड् धावली

गोरी भावलेक
निसरलो पायु
काळी सावलेक
दिंवये घायु

भावली रळ्ळी
सावली रळ्ळी
पाय्या मुळांतु
पावली मेळ्ळी

## प्रश्न

सूर्य उदकांत बुडत
रातभरी पोंवता-वे ?
चंद्रु मॉडांत वत्ता
निप्पूनु बैसून खेळता वे ?

पक्षु उंच उबता
आकाशाल्या उलैता वे ?
झाड मजेन डोलता
मनांत पद म्हणता वे ?

## पावसाडी

पावसाली पालखी
मॉडांली ढोलकी
वीजेले दिव्या बत्ते
वाऱ्या रप्रप्
पावसा सप्सप्
झाडांनी सोडयलें सात्तें

## आकाशा आंगण

आकाशा आंगण
काळोख जाता
चंद्रालें थोंगण
राती करता
मॉडांचो काप्पूस
वारें पिंजता
नाजुक परी
नक्षत्रं वेंचता

## प्रश्ण

आयज मी माज्या आयुष्यातल्या
दुसऱ्या प्रश्णाचां उत्तर शोत्तय !
भुरगेपणार केंवातरी. . . कोणींतरी
पयलो प्रश्ण इच्चाललो
झीला तूं खंयच्या सालान जालय ?
तेंवा छातीफुडे काडून सांगलालां
२२ जानेर १९६६ !
आयज विसव्या चलता
जेतून मी माज्या हातीनूच जेंयतय
सगळी बरी वायट कर्मा करतय.
ह्याच वयान,
मी सरकारी बिनसरकारी ऑफिसाच्या दारान
सर्टीफिकीटाचो कवाळो घेवन
उबो आसय. . वाट बघीत !
फुडल्या वर्सा एकविसाव्या लागतालां
मी ' लोकशाय ' नांवाच्या देशाचों
नागरीक भाकरीक वळवळतलय
जेतून माजें हातीचो उपेग
फकत आसतोलो ' लिमाक '
आनी माजी सर्टीफिकिटा
जाळचीच पट्टली चुलीन.
मतदानाचो हक्क मेळयताना
मत पट्टाला कचऱ्याच्या दब्यान
माज्यातलो मणीस मेल्लो आसतोलो
ना जाल्यार ' आर ' जावन
' कॉम्पूटर नावांच्या होमकणान '
गोब्रूर जाल्लो आसतलो
तरी पुण प्रश्ण थंयच उरतोलो
उत्तर वाऱ्यार पट्टला. . .

मुखपृष्ठ छापणावळ : अपुरबाय प्रिंटर्स, बळवय-गोंय